# कोलेदादाची पालखी



प्रकाशन क्रमांक : 177

1996

प्रकाशक :
प्रभाकर द. भिडे
राजहंस वितरण, 1-मीनाक्षी बिल्डिंग,
डॉ. व्होल्फांगु द सिल्व्ह मार्ग,
पणजी - 403 001

छपाई :
राजहंस ऑफसॅट, पणजी.

मुखपृष्ठ आनी सजावट :
रामानंद भगत

मूल्य :
1996- 14/- रु.
1997 - 14/- रु.
1998 - 16/- रु.

ISBN 81-85854-76-9

# कोलेदादाची पालखी

एक आसलो गांव. गांवचे शिमेर आसलो एक व्हडलो दोंगर. ताज्या पांयाकडेन आसलें दाट रान. रान म्हळयार केदें ? व्हड व्हड झाडांपेडांनी भरिल्लें. वाली झोंपांनी बुचबुचिल्लें. त्या रानांतल्यान व्हांवताली एक न्हंय. थंड-शितळ आनी गोड-गोड उदकाची. त्या रानांत आसलीं तरेकवार सावदां, तरेकवार सुकणीं. तीं सगलीं न्हंयचे धडेर येतालीं. गोड-गोड उदक पियेतालीं. थंड-शितळ उदकांत बुचकळटालीं. खेळ खेळ खेळटालीं.

त्या रानांत आसलो हतयांचो एक व्हड कळप. तातूंत धाकले-व्हडले अशे खूब हती आसले. तांचो मुखेली आसलो एक येदो व्हडलो हती. तो सांगता तें सगले हती आयकताले. ताणें चरपाक या म्हळें. गे ऽ ले सगले हती ताजे फाटल्यान. ताणें उदक पियेवया म्हळें, परतले सगले. कोण म्हळयार कोणच त्या राजा हतयाचो हुकूम मोडिनासलो.

त्या हतयांच्या कळपांत सात आठ धाकटुलीं पिलां आसलीं. तीं मोटीं हुतहुतीं. तांकां अशें कळपांत रावप, राजा हतयाचो हुकूम मानप, आवडनासलें. ते हांगा थंय हुळहुळत रावताले. मुखार या म्हळयार फाटल्यान-फाटल्यान रेंगाळटाले. राजा हतयान इल्ल्याशा मिचमिच्या तांबड्या

दोळ्यानी पळयतकच मात मोन्यांनी ताजे वांगडा चलताले.

एक दीस किदें जालें ? सदचेवरी हतयांचो कळप विसव घेवंक एकेकडेन बशिल्लो. धाकटुले हती हांगा थंय धांवताले. सोंडेंत सोंड घालून फटीचीं झगडीं करताले. मातयेंत लोळटाले. तांतलें एक पील खेळटां खेळटां मातशें पयस पावलें. थंयच एका झाडाक कांट्यांच्या



वालींचें एक झोंप हुमकळटालें. ताजे वांगडा खेळटां खेळटां तें वालींनी घुसपलें. सुटपाचो यत्न करता तितलें चडच घुसपता. बरोच वेळ जालो. ताका भायर सरूंक येना. ताणें आई-बाबाक, इश्टांक, राजा हतयाक सगल्या सगल्यांक उले केले. कोण्ण ताजे म्हऱ्यांत आयलोना.

येतलो कोण ? हतयांचो कळप थंय आशिल्लो तर ? केदोऽ वेळ जाल्लो. राजा हती विसव घेवन जातकच तांकां घेवन मुखार गेल्लो. एक धाकटुलो हती शेणला हें कोणाच्याच लक्षांत आयलेंना. ते उठून गेले.

हेवटेन हो धाकटुलो हती वालींच्या घुसपांत बेजारून गेल्लो. वालींच्या कांट्यांनी रक्तबंबाळ जाल्लो. निमाणो ताका दिसलें, 'आतां हांव हांगा एकलोच उरलों. कोण्ण म्हाका सोडोवपाक येवंचोना. वाग शींव आयल्यार म्हाका खावन उडयतले.' वाग शिंवाची याद जायनाफुडें ताका चडूच कडकडो भरलो. ताणें दोळे घट्ट धांपले आनी तो बुळूबुळू रडूंक लागलो.

इतल्यांत कितें जालें? थंयच्यान एक कोलो वतालो. ताणें वालांक घुसपल्लो धाकटुलो हती पळयलो. ताका मजा दिसली. ताणें हासूंन कुयो घाल्यो. कूऽऽय, कू ऽ ऽय, कू ऽ ऽ य.

कोल्याच्या आवाजान हतयान दोळे उगडले. पळे

जाल्यार मुखार कोलो. हतयाक आनंद जालो. तो कोल्याक पांयां पडलो आनी काकुळटेन ताका म्हळें 'कोलेदाद, कोलेदाद, मातसो म्हाका सोडय. उपकार जायत तुजें' कोल्यान हांसून म्हळें, 'वा वा, वा तुका बेठोच सोडोवंक हांव कितें बेकार आसां हांगा? तुका सोडयतां सोडयतां म्हज्या हाताक कांटे तोपून किदेंय जालें जाल्यार? शी, शी उपकार-बिपकार कांय ना. हांव चललों.'

ताणें खऱ्यांनीच वचपाक पावलां उबारिल्लीं पळोवन हती भिंयेलो, हतयान रडकुऱ्या आवाजान ताका तरेतरेन विनयलो, बऱ्याऽऽ वेळान कोल्यान माथें खरपिलें आनी सांगलें, 'पळय आज हांवें तुजेर उपकार केलों जाल्यार तूं तो कसो पावयतलो?'



धाकटुलो हती बावडो सादो भोळो. ताका केन्ना एकदां थंयच्यान सुटनशें जाल्लें. ताणें रोखडेंच म्हळें, ' कसो म्हळयार? तूं सांगता तें करूंक



हांव तयार आसां. पूण म्हाका हांगचो सोडय'.

कोलो मोटो धूर्त. ताका कश्ट करून खावंक येतालो वाज. हाका तोपी घाला, ताका फटय करून तो आपलें काम सादोवन घेतालो. ताका मास खावपाची आवड. पूण शिकार करपाचो वाज. वागान गाय मारली जाल्यार ताका उरिल्लें आयतें मास खावंक आवडटालें. पूण तें मेळोवंक लेगीत वागा- शिंवाची खुशामत करची पडटाली. तांकां हाता-पांयां पडचें पडटालें. तेंय करपाक ताका आवडनासलें. ताका आयतें बशिल्लेकडेन खावंक मेळचेंशें दिसतालें. ताणें चिंतलें, ही बरी आयती संद आयल्या. ह्या धाकटुल्या हतयाचो उपयोग करून घेवंया. कोल्यान मुमुरख्यांनी विचारलें, 'पळय हतीबाब, तुवें सागता तें आयकतां म्हळां, मागीर फाटीं सरूंक जायना.'

'ना, ना, कोलेदाद' तूं सांगता तें आयकूंक तयार आसां

हांव.'

'तशें जाल्यार तूं आयच्यान म्हजो गुलाम. हांव सांगतां तीं तीं कामां तुवें करचीं पडटलीं.'

हती रोखडोच तयार जालो. कोल्यान ताका त्या वाली घुसपांतल्यान सोडयलो. रगत व्हांवतालें थंय झाडांचो पालो चाबडावन ताका लायलो. मागीर ताजे फाटीर बसून आपल्याक जाय थंय भोंवूंक लागलो. कोल्याक हतयाचे फाटीर बशिल्लो पळोवन रानांतलीं सगलीं जनावरां-सुकणीं म्हणटालीं, 'कोलेदादाची पालखी, हालत-धोलत चलली.' कोलो तितलोच खोशी जातालो.

जालें. अशेंच दीस वताले. हतयाक आपल्या कळपांत वचूंक जाय आसलें. आई-बाबाक मेळूंक जाय आसलें. पूण वतलो कसो? कोलो सगलो वेळ ताजे फाटीर. मातसो सकयल देंवलोच जाल्यार हतयाक पेल्यान सरूंक दिनासलो.

सदां कोल्याक फाटीर घेवन हती रानांत हेडटालो. वाटेर बरीं बरीं फळां दिसलीं काय सोंडयेन काडून कोल्याक दितालो. कोलो तकली हालयत कुयो घालीत खातालो. तो हतयाक केन्नाच 'तूंय खा रे' अशें म्हणनासलो. हतयाक वायट दिसतालें. तो बावडो झाडाचो पालो चाबडावन आपलें पोट भरतालो.

अशेंच दीस वताले. हती दिसानदीस भागत आसलो.

कोल्याचे असवडीं तो दुकां गळयत रावतालो.

त्या दिसा कोलो दनपारचो मातसो आड पडिल्लो. ताका सुस्त न्हीद लागल्या शी पळोवन हती मातसो पेल्यान वचून बसलो. ताज्या दोळयांतल्यान घळघळ दुकां गळटालीं. थंय लागींच एक झोंप आसलें. थंय बसून एक सोंसो झाडाचीं मुळां उस्तितालो. इतल्यान ताणें हतयाक पळयलो आनी म्हळें, 'आरे, आज पालखी रिकामी शी?' हतयान रडव्या दोळ्यांनी ताका पळयलो. ताजें रडवें तोंड पळोवन सोंसो उजापलो. कोलो लागीं नाशिल्लो. सुलूस घेवन सोंसो हतया म्हऱ्यांत आलो. ताणें हतयाक रडपाचें कारण विचारलें.

हतयान ताका आपली सगली काणी सांगली. आयकून सोंशाक खूब वायट दिसलें. ताणें म्हळें, हतीबाब, तूं सामको भोळो, तुका कोणेंय फटोवंचो. तो कोलो मोटो नाड. दुसऱ्याच्या कानांत घालूंक हुशार. आता भियेवं नाका तूं, आमी शिकोवंया ताका बुद्द. ताणें आमकांय बरेच त्रास दिल्यात'.

'आमी? आमी कशो शिकयतले ताका बुद्द?'

'ताजो हुस्को तूं करूं नाका. तूं फकत हांव सांगतां तशें कर'.

सोंशान हतयाक कानांत कितें तरी सांगलें. हती फिस्स करून हांसलो. 'बरें तर फाल्यां मेळया' म्हणीत सोंसो टुण




ऽ टुण उडक्यो मारीत गेलो.

दुसरो दीस उजवाडलो. हती आज उमेदीन आसलो. दनपार जावपाची वाट पळयतालो. आज ताणें हतयाक खूब भोंवडायलो. तरेकवार फळां काडून दिलीं. कोलो खूश ताणें मनांत म्हळें, 'पिसो हती. आज बरो मुडांत आयला'

दनपार जातकच हती कोल्याक घेवन न्हंयचे धडेर आयलो. थंय सगलीं सुकणी सावदां जमिल्लीं. थोडीं उदकांत खेळटालीं. माकड तांचेर वयल्यान फळां मारताले. थोडे झाडारूच उडक्यो मारताले. कांय जाण फटीचीं झगडीं करताले. हतयाक आनी कोल्याक येतात ते पळोवन

तांणी पद म्हणूंक सुरवात केली.

'कोलेदादाची आयली पालखी. उदकाक पळोवन सरली फाटीं' तांचें पद आयकून कोल्याक राग आयलो. पूण करतलो कितें? ताका खऱ्यांनीच उदकाचो भंय दिसतालो. म्हणून तो केन्नाच हतयाक घेवन न्हंयचेर येनासलो.

हतयान तांचें पद आयकून कोल्याक सांगलें. 'कोलेदाद, पळेय. आमकां सगलीं चाळयतात. आज आमी उदकांत न्हावन येवंया. आनी सगल्यांक दाखोवन दिवंया आमी उदकाक भिंयेनात म्हणून. कोलो भिंयेलो ताणें बेगीबेगीन सांगलें, 'नाका नाका हतया, म्हाका कांय पेंवपाक येना. सट्ट करून उदकांत पडलों जाल्यार?'

'कांय भिंयेवं नाका कोलेदाद, हांव आसाच न्हय? घट्ट बस म्हजे फाटीर' हतयान हांसून सांगलें.

हती सांगुनूच रावलोना, ल्हव ल्हव उदकांत देंवंक लागलो. हती जसो जसो उदकांत वतालो तसो तसो कोलो कडकडूंक लागलो. ताका पळून वचचेंशें दिसतालें. वंतलो कसो? न्हंयचे धडेर सगलीं उबीं रावन म्हणटालीं, कोलेदादाची पालखी, उदकांत पावली. चिखोल सगलो उडोवन आयली.'

न्हंयचे मदीं पावतकच हतयान ल्हव ल्हव हालपाक सुरवात केली. कोलो किळच्यो मारूंक लागलो. 'हतयाऽ



हतयाऽ आरे पडलों ऽ मेलों ऽ ऽ वांचयात रे ऽ कोल्याच्यो किळच्यो आयकून धडेवयलीं सुकणीं - सावदां किटकटूंक लागलीं. इतल्यान हतयान फाटल्यान सोंड व्हरून कोल्याक काडून उदकांत शेंवटून उडयलो. कोलो किळच्यो मारीत बुचकळयो खावंक लागलो. ''हतया ऽ, तु ऽ का सोड ऽ सोडपाक ना हांव ऽ ऽ.''

हतयान थंयच्यान सांगलें, 'इतलो तेंप तरेतरेन त्रास दिलो तुवें म्हाका, आतां भोग तुज्या कर्माचीं फळां'.

नाका तोंडांत उदक वचून कोलो उदकांत खोल खोल वचूंक लागलो. तशीं देगेर जमिल्लीं सगलीं व्हडाव्हडान म्हणूंक लागली,

''कोलेदादाची पालखी, उदकांत पडली, कोलेदाद बावडो बुडून मेलो.''

# धंय-मळाचें झाड

एक शेकानशेक नगर आशिल्लें. थंयच्या राजाचें नांव आशिल्लें विरेंद्रसिंग. राणयेचें नांव आसलें वीणा. राजा आनी राणी सभावान खूब मायेस्त. लोकांचें दुख्ख पळोवन तीं दुख्खी जातालीं. लोकांची खोस पळोवन तीं खोशी जातालीं.

लोकांच्या सुखाचो हुसको करपी राजा मात खासा आपूण खूब दुख्खी आसलो. हय.. ताजें कारणय तशेंच आसलें. राजागेर भुरगें नासलें. लोकांमुखार हांसून उलोवपी, तांचे प्रस्न सोडोवपी राजा-राणी मनांतल्यान भुरग्यापासत खंती जातालीं. प्रजा लेगीत आपले राणयेक भुरगें ना म्हणून दुख्खी जाताली.

एक दीस तांच्या राज्यांत एक साधू आयलो. राजा-राणयेन सदचेवरी व्हडा उमेदीन ताका येवकार दिलो. ताजी जाय तशी बडदास्त दवरली. इतले नोकर-चाकर आसतनाय खासा राजा-राणी ताजी सेवा करतालीं. साधू तांचेर प्रसन्न जालो. ताणें राणयेचे होंटयेंत एक नाल्ल घालो आनी सांगलें, 'आयजसावन पांच दीस मेरेन ह्या नाल्लाची पुजा करात आनी पांचव्या दिसा हो नाल्ल व्हरून न्हंयेंत सोडात. वर्साभितर तुमगेर भुरगें जातलें.''

राजा-राणी खोशी जालीं. तांणी साधवान सांगिल्लेवरी सगलें केलें. वर्स सोंपचे पयलीं तांगेर एक सोबीत बाय जालें. गोरें-गोरें पिट्‌ट, तांबड्यागूंज ओंठांचें. निळया-निळया दोळ्यांचें, भांगरावरी केंसांचें. ताजें नांव दवरलें सुवर्णा. राजकुंवरी सुवर्णा नाजूक जायेवरी आसलें. ताका दुदान, धंयान, म्हौवान आनी अत्तरान न्हाणयतालीं. तेखातीर राजकुंवरी सुवर्णाक सदां घमघमीत वास येतालो.

राजाचे न्हाणये फाटल्यान एक व्हड पोरसूं आसलें. तातूंत तरकेवार झाडां रोयिल्लीं. न्हाणयेंतल्यान वचपी उदक झाडा भोंवतणच्या आळ्यांनी सोडिल्लें. राजकुंवरीक न्हाणयतकच दूद-धंय-अत्तर तशेंच पोरसांत वतालें. थंय

एक सोबीत झाड जालें. धव्याफुल्ल पानांचें. ताका तांबडींच बरीं फुलां येवंक लागलीं.



तांकां बरो वास येतालो. त्या परमळान पिसोळीं, भोंवरे त्या झाडा भोंवतणीं फुलांचेर धिट्टी घालताले.

पोरसांत काम करपी सेवकांक अजाप जालें "आरे! हें बाबा कसलें झाड? आमी केन्नाच पळोवंक नासलें असलें," ते एकामेकाक विचारताले. "आवयस! फुलांच्या घमघमान जीव सामको पिसो जाता न्हय?" प्रत्येक सेवक त्या झाडाक पळोवन तरेकवार तर्क करताले.

ल्हवूल्हवू सगल्या राजवाड्यांत त्या झाडाची खबर पातळ्ळी. ताज्या फुलांच्या घमघमान राजा-राणयेकय प्रस्न पडिल्लो. सेवकांचे सांगणेवयल्यान राजा-राणयेन पोरसांत वचून तें झाड पळेलें. तें सोबीत झाड, ताजीं घमघमीत वासाचीं फुलां पळोवन राजा-राणयेक अजाप जालें. राणयेन राजकुंवरीकय आपोवन तें झाड दाखयलें. 'आब्बा! हें कसलें झाड? केन्नाच पळयलें ना हांवें." राजकुंवरीन म्हळें. कोणाचकडेन जाप नासली.

तें झाड कोणूय कापीत, ताजी कोणूय वाट लायत म्हणून राजान त्या झाडा भोंवतणीं शिपायांची तेळणी दवरली.

करतां करतां ही खबर सगल्या राज्यांत पातळ्ळी. लोकाक तें झाड पळोवंक मेळनासलें. शिपायांची तेळणी आशिल्ली न्हय? लोक पयसुल्यानच ताका पळोवन

तोखेताले. नाक भरून ताजो परमळ हुंगताले आनी अजाप करीत घरा वताले.

राजकुंवरी वाडटा तशें ते झाडय वाडटालें. दिशीं-माशीं राजकुंवरी सुवर्णा व्हड जाली. आतां तिज्या लग्नाचो प्रस्न राजाक पडलो. ''हे इतले नाजूक, सोबीत बावलेक राजकुंवर खंय सोदप? बायेक म्हज्या फुलांत दवरता, ताजेर उपाट मोग करता असो राजकुंवर खंय मेळत काय?'' राणयेक चिंता जाली. तांणी ही गजाल राजपुरयताक सांगली. ताणें कितल्याशाच बऱ्या बऱ्या राजकुंवरांचीं नावां सुचयलीं. तांकां तांतलो एक्कय राजकुंवर मानवलोना.

निमाणें राजपुरयतान म्हळें, ''म्हाराज, आमी राजकुंवरीचें लग्न पण लावन केल्यार कशें?''

''पण लावन? करूं येता. पूण कसलो पण लायतलो? सादो पण लावन कोणूय सटर-फटर



मनीस जिखता तसो नाका. बरो कठीणसो पण सांग.'' राजान म्हळें. राजपुरयतान हांसून सांगलें, ''म्हाराज, कठिणांतलो कठीण पण सांगतां. आजवेर आमकां कोण्णाक सुटूंक ना तेंच कुवाडें घालया.''

''कसलें तें '' राजा राणयेन एकदमूच विचारलें. म्हाराज, तुमच्या पोरसांतलें तें अजापाचें झाड. तें कसलें आनी कशें जालां हें अजून मेरेन आमकां कोणाकच कळूंक ना. तें कोण सांगता ताजेलागीं राजकुंवरीचें लग्न करया.''

राजपुरयताचो विचार सगल्यांक आवडलो. रोखडोच बरोसो म्हूर्त पळोवन राज्यांत दंवडी दिली. हेर राज्यांनी राजदूत गेले.

थोड्याच दिसांनी सोबीत कपडे घालले राजकुंवर राज्याच्या पोरसांत येवन तें झाड पळोवंक लागले. कोणाकच तें झाड कसलें तें कळ्ळेंना. पयसुपयसुल्यान आयिल्ले राजकुंवर निरास जावन परतताले. त्याच



राज्यांत एक म्हातारी रावताली. तिका एक पूत आसलो, अजय. अजय गांवांतल्या लोकांची गोरवां राखून आपलें आनी आवयचें पोट भरतालो. अजया वांगडचे सगले राखणे रानांत एक जाताले. गोरवांक चरपाक सोडून ते सगले खेळटाले; खबरो करताले.

ह्या दिसांनी तांकां राजाच्या पणाचो विशय मेळिल्लो. कितले राजकुंवर आयले आनी गेले हाजेर तांचीं उलोवणीं चलतालीं. एक दीस तांणीय तें झाड पळोवन येवंचें थरयलें.

दुसऱ्याच दिसा तांणी गोरवांक चरपाक सोडलीं आनी ते राजाच्या पोरसांत गेले. तांणी पयसुल्यान तें झाड हाजेपयलीं पळयल्लें. आज तांणी लागींच्यान तें बरें करून पळयलें आनी परतले. अजय मात गेलोना. तो बारकायेन तें झाड पळयतालो.

दुसऱ्याय दिसा तो परत आयलो. अशे तीन-चार दीस सकाळचो येवन पळोवन गेलो. घरा येवन ताणें आवयक राजवाड्यांत कोण धंया-दुदान न्हाता ती खबर काडपाक लायली. ताजे आवयच्यो कांय इश्टिणी राजवाड्यांत काम करताल्यो. तांचेकडल्यान खबर काडून तिणें पुताक सांगली. आनी विचारलें, "किद्याक रे बाब? किद्याक विचारलें तुवें?"

'फाल्यां सांगतां' आवयक इतलेंच उतर दिवन अजय आपल्या इश्टांम्हऱ्यांत गेलो. इश्टांक ताणें त्या झाडांचें

गुपीत कळ्ळें म्हणपाचें सांगलें. इश्टांनी ताका खोदूखोदून विचारलें. पूण ताणें सांगलें, "फाल्यां हांव राजदरबारांत वचून सांगतलों. तुमीय येयात म्हजेवांगडा."

दुसऱ्या दिसा तांणी बरे कपडे घाले. गोरवांक व्हरून रानांत सोडलीं आनी ते दरबाराकडेन आयले. पूण शिपायक तांकां भितर सोडिनात जाले. तांणी किद्याक आयल्यात तें सांगतकच जाल्यार ते तांचीं फकाणां करूंक लागले. इतल्यांत राजाचो एक खास शिपाय थंय आयिल्लो. ताणें तांचें उलोवणें आयकलें आनी तांकां राजदरबारांत व्हेले.

राजदरबार भरिल्लो. राजा-मंत्री कसली तरी गंभीर भासाभास करताले. तेन्नाच अजयाक आनी ताज्या इश्टांक दरबारांत हाडले. येदो व्हडलो दरबार पळयतकच तांकां भंयान कडकडो भरलो. अजयान धीर करून ते किद्याक आयल्यात तें राजाक सांगलें. ताजे हुशारेची सगल्यांक अपुरबाय दिसली. तांणी ताका त्या झाडाचें गुपीत सांगूंक लायलें.

अजयान म्हळें, ''म्हाराज तें झाड धंय-मळाचें.'' किदें? धंय-मळाचें म्हणजे?'' सगल्यांनी एकदमूच विचारलें. आतां अजयाक धीर आयिल्लो. ताणें हांसून विचारलें, म्हाराज. ह्या राजवाड्यांत धंया-दुदान कोण न्हातात?'' ''आमची राजकुंवरी सुवर्णा'' प्रधानान सांगलें. 'तशे



जाल्यार म्हाराज राजकुंवरी न्हातकच धंय, दूद, अत्तरा वांगडा राजकुंवरीच्या आंगाचो मळ न्हावन पोरसांत वता. ताजेंच हें झाड किल्लून आयलां. अत्तराचो वास ताज्या फुलांक येता. म्हणून तें धंय-मळाचें झाड.''

आयकून सगलेच अजापीत जाले. राजान शिपायांक धाडून ही गजाल खरी जाल्यार पळोवंक सांगली. शिपायान खरेपण करून राजाक सांगिनाफुडें सगल्यांनी ताळयो वाजोवन अजयाचो जयजयकार केलो. राजान अपुरबायेन ताका बसूंक आसन दिलें.

पण अजयान पण जिखिल्लो. पणांत थरिल्ल्ये प्रमाण राजान राजकुंवरी सुवर्णाचें लग्न अजयाकडेन करून दिलें. तांकां रावंक एक सोबीत म्हाल बांदून दिलो.

राजकुंवरी सुवर्णा, अजय आनी ताजी आवय त्या म्हालांत सुखान रावंक लागलीं.

हीं भुरगीं
पांखरां कशीं
आनंद पिशीं
शब्दवनांत



# राजहंस वितरण

बऱ्या पुस्तकांची पंगत ! धरा आमची संगत !!